# कविता

## '८३ '८४ '८५




मोल: ५ रूपया

*( Konkani )*

**KAVITHA '83, '84, '85**

**Anthology of poems**

*By*

**A group of writers**

*First Edition*

**March 1986**

*Published by*

**KERALA KONKANI ACADEMY**

**Cochin-682 002.**



*Printed at*

**DEEPTI PRESS**

**New Road, Cochin-682002.**

**Phone:** *26260*

**Price: Rs. 5/-**

# प्रकाशकांलीं उतरां

आजून आमी कवितेचीं पांच पुस्तकां उजवाडायल्यांत. हें संचें. जाल्यार हाका एक सविशेषता आसा. ८३, ८४ आनी ८५ अशें तीन वर्सांत केरळचे लेखकांनी बरौन प्रकट केलेल्यो कांय कवितो हांगा सादर करतात. पंचकादाई, कोंकण जनता, ऋतु, चित्रंगी, सारस्वतवाणी आनी दिवटी अशें स नेमाळ्यांत ह्यो उजवाडाक आयल्यात.

ह्या वेंचणुकेक एक प्रेरणा आसा. केरळा भायर थकून येवच्या कोंकणी समीक्षेंत आनी समाहरणांत केरळाक जायतें प्रातिनिध्य मेळना. हांगा कोण बरयतले नात ? हांगा कोण कवी नात ? तांची ओळख आतां करुंयेत. हांतु नांव दाकयलेले जन मात्र न्हय ; आनीकय जायते कविजन हांगा आसात. जाल्यार ह्या तीन वर्सांत प्रकाशित जालेले केरळीय लेखकांचे कवितेंतल्यो श्रद्धेय म्हणु दिसलेल्यो मात्र हांगा एकटायल्यात.

असलेंच एक कथासंग्रह आमी भायर हाडलां. हें आतां अकादमीचें धावें पुस्तक आसा. स वर्सांत आमकां इतलेंय करुंक जालेले सान काम न्हय. जाल्यार हाज्या व्होड काम आमच्यान करुक आसा. ताका वाचकांले आनी बरौप्यांले सहकार जाय. समाजा विशी बोधवंत आसची कविता जन स्वीकारतले. हें उडगास दवरनु आमी हें कोंकणी मातेंक अर्पण करतात.

हाजें मुद्रण चन्दायेन चलौन दिलेले दीप्ती प्रेसाक आभार मानतात.

—केरळ कोंकणी अकादमी

# अकादमीचीं पुस्तकां

| | | |
|---|---|---|
| 1 | रघुरामायण ( काव्य ) | 12 00 |
| 2 | श्रद्धांजली ( गोविन्द पै स्मरणिका) | 12 00 |
| 3 | श्रीमद् भगवद्गीता ( अनुवाद ) | 8 00 |
| 4 | घालोलो घासु गिळचाक सोणी ( कवन ) | 3 00 |
| 5 | किरकिर ( कविता ) | 4 00 |
| 6 | काणियां झेलो ( काणियो ) | 4 00 |
| 7 | म्हण्यां सोरु ( म्हण्यो ) | 10 00 |
| 8 | आनन्दाचीं पदां ( कविता ) | 4 00 |
| 9 | कथा 83—84—85 ( काणियो ) | 5 00 |
| 10 | कविता 83—84—85 ( कविता ) | 5 00 |

आनी 'दिवटी' मुखपत्र मासिका



# शक्ति दी माका

शक्ति दी माका
ही भूंय उबारच्याक ;
ना जाल्यार यो तूं
अवतार धरनु.

धर्म म्हळेले गायचे
पायार कोयती ;
कर्मक्षेत्रांत भरनु
गेल्या अनीति !

कान धांपून माका ...
दोळे धांपून ...
तोंड धांपून आनी
बैसूक जायना !

हांव नरु मात्र ;
तूं नारायणु
माका ना आनी
तुजी मट्टा क्षमा !

'रक्षोगण' तांय ना
नाशु जाला

पक्ष बान्दून तांणी
    जनमर्दक जाल्यां !

राष्ट्रीय हांगा सर्वाधिनाथु ;
चोरांक मेळ्ळा सर्वांत हाथु !

हात धरल्यार
    'आम्मा' बरौचाक
भालनातीले हांगा
    भरण सारथी !

(मांकडाचे हात्तांत फुला माळा ;
कुंकडाचे चोंचींत लोकंडा कुडको ! )

'वनवासी' नांवारि
    धनदासु खाता ;
जनजीवन आज एक
    दुःस्वप्न मात्र !

रात–दीस घोळ्यारि
    पोट अर्द भरना ;
रगत आटून मरता
    मनुपुत्र नित्य !

शिष्याक गोत्तु ना
    गुरु कोण म्हणु ;
शिष्यु म्हणु सांगूक
    कळना गूरूक !

सात्तें धरल्यार हांगा मात्यार पावसु
व्हाण घाल्यार लागता पायाक कांटो !

मात्तें सकल जावनु
पळुळा सर्वत्र
हात सोणु गेल्ला
न्यायाचें पात्र !
भूदेवि रडता ;
दोळे तिजे भरता.

दी माका शक्ति दोळे पुसूंक !
घराक उजो लागीले बेळारि
निदेन पडूक कशि दिसले तुका ?
तूं योगनिद्रा सोण उठा वग्गी ;
दाकय तूं तुजे ॐकार रूप !

शक्ति दी माका
ही भूंय उबारच्याक ;
ना जाल्यार यो तूं
अवतारु धरनु ...



[ एप्रिल 1985, कोंकण जनता ]

पी. जी. कामत

# पवळीं

✲ मोगा पावस मनांत
उदक भरता दोळ्यांत ॥

✲ होंमा सरबळि काडतना
उंगोठो धरूंक दी ।
खालाक चोऊन चोऊन
मुखार चलूंक सीख ॥

✲ उंगोठो धरलो जबरदस्त !
गांठि पळ्ळी असड्डुळ ॥

✲ जंग लोकण्डांत उबजता
तांतूच जाता, ताकाच खाता ;
पाप कशि जल्मता ?
तुजांत जाता, तुकाच खाता ॥

✲ तुका सुंदर पोरसं जाय ?
तण हुमटाय, हुमटाय ।
तुका मनां शांति जाय ?
तिष्णा हुमटाय, हुमटाय ॥

तुजी सावळी देखपाक माजे
दोळे वांवटेले ।
तुजे पावलां सब्दु आयकुक
कान तानेले ॥

हांगा कांट्याक मोल,
खुंट्याक मोल,
फुलाक कळ्याक मोल ना ॥
मोल आसा गोडाक
मोल आसा कठारीक ।
गोड तोण्डांत घालि ;
कठारी हरद्यारि खोंचि ॥

झूजाक गेलोलो माजो धनी
वापस येवना खैं
आहा ! माजे होड भाग्य !
हारवून निपून धापेऊन
घरा देरलां पावलो तरि
लजेंतु बुडून मरची हांव ॥

बापान जोडळोलो भुयें कुटको
खाक्यां चेपून कोणकी गेलो ।
पुतान आसून कसो लाव ?
मेल्यार कसो लुकसान ?

एक हात रगड्यार
आनी हात पिठांत ।

एक दोळो होंटीत पळ्ळेल्या चेरडार
आनी दोळो ?
दोळ्यान उलौंच्या घोवार ॥

तिका ना रत्नां हार
ना वज्रा कांकणां ना पैंजळां
तिच्या पायां धूळ माथ्यार घे
उजळ जावो तुजें तोंड ॥



[ जनवरी / नवेंबर 1983 आनी नवेंबर 1984, कोंकण जनता ]

के. गोकुळदास प्रभु

# तयार जावप

उगड दोळे, उबार माथें,
मुखार आमचें कितें ?
दोळ्यांत भितर सरूक येतात
उजवाडाचीं किर्णां.

उगड दोळे, उबार माथें,
कवळ हाता–बोटां
हाता–बोटांत घेवपाचें आसा,
जिखपाची बळखांय.

फुलय हरदें, फुंकून जळय
गोबरा पोंदाची कीट
भितर उसळ्ळी कीट जळौन
वाडय व्हडलो उजो.

आमी कांय मडीं न्हय
फकत मेणा – बावलींय न्हय
आमचे भितर जळत आसा
हुनसाण नाशिल्लो उजो.

उगड दोळे, भितर पळे
कवळ हाताची बोटां
आतां बोटांत घेवपाचो आसा
आत्मांतलो उजो !



[ दीपावळी 1985, कोंकण जनता ]

के. अनंत भट

# मोगु अमर

रातिं–दीसु सर्व कडे मेळता मोगा खबर
अति विचित्र मोगा संसारु म्हणता मोगु अमर ॥
ह्ळेनु नदी सहजरूपान सागरांतु मेळता
जोळनु मरता जाल्यारीयि पाकुट दिव्यार खेळता ॥
मोगा नांवार एकेक कडे जाता मार–फार
विग – विगड जनांक मोगु करता मिलन सार ॥
खबर सांगता मोगा जग हें जाले मस्त काळ
खबदळेता चन्द्रा चोवनु समुद्राचें पाळ ॥
मोगा पासून सृष्टि जाता मोगु राकून घेता
जगांतु सर्व प्राणियांक मोगा नांव येता ॥
आदिकालु धरनु मोगु करता सदा काम
हृदय हें मोगाचें धाम अमर मोगा नाम ॥



[ सेप्टेंबर 1984, दिवटी ]

शरत

# कोळचो

मान प्राय सून हांव म्हणत आयलां :
"आठ पाया – माका भंया !"
आज
म्हजे रित्ते कुडींत
हांव अशीच पळेत रावलां –
ऊंच
सगट कोणस्यांकडेन
बल्लि वीणून
( एक न्हय, ना लेक )
भरल्यात आठपायांचे.

आंग म्हजें सणसणता
काळीज घडघड मारता
भिजूडें अंतर म्हणता :
"कांय हे सगट एक जाल्यार
करूयात माका लेखार ! "

एक हे जातले कांय ?
हासून म्हजें तोंड
तांकां आपैत म्हणालें :

"क्षुद्रजीवि तुमीं
एकमेळी न्हय तुमची."

म्हजो हाहाकार आयकून
एकलो म्हणत जालो :
(तो कांय सिखलो-वाचलो
हातानी नमस्कार करतालो !)
"तुमचें रगत रंगान तांबसें-तें बरें
तुमचें देह अति भीम-तें बरें
तुमी हासपाचे-खेळपाचे-
उलौपाचे—बरौपाचे-
रडपाचे—गावपाचे-
तें सगट बरें बरें
तर खंय तुमची एकमेळी रे ?
म्हजे दोळ्यांत पावत कि रे ?
तुमीय निमण्याक मरपाचे-ना खरे ?
कोणस्यांक बैसून
तुमीय सपन देकपाचे—ना खरें ?
बीणत बीणत
तुमीय बल्लीं करपाचे-ना खरें !
क्षुद्रजीवी आमी
तुमकां पळेत सगट सिखलीं—
तुमी सगट गुरूजन
आमी शिष्यगण !"

(आठ पायांचो तो कांय सिखलो-वाचलो
चाबकार उतरां तोण्णां धरतालो—)
हांव जालो म्हणपाचो :

"अरे, तूं कोळचो !
तुका पळेत हांव भिंवचो.
कित्या तर
तूं म्हजेच जीवाचो.
आठ पांयाचो तूं
एक बल्याचो.
दोन पाय माका
पुण हांव
अनंत बल्यांचो !"



[ सेप्टेंबर / अक्टोबर 1985, ऋतु ]

पी. ए. श्रीधर कामत

# पीडा दिवची चिंता

हांवे
मगेले आंगणांतुलें
नागर कातरलें.
यक्षिप्पाल्या रूकु कातरलो.

तेदूस
बापाल्ले हुमेंतु
आवसूले अश्रूंतु
आय्येले श्रापांतु
हांव मिजे
जयाचें
जनन बरयलें.

कालि
थांगा वाडलो
माड्या रोंपि देकील्या
आय्येल्या मुखभावांत
उदाक घुंवडावन सोडच्या
आवसूले निर्वृतींत
हांव मिजे

जयाचें
यौवन देकलें.

आजि
शीयाळें पीवनु
सयं विसरलेल्या
बापाले फुलेल्या हासांतु
आवसूले संतृप्तींतु
हांव मिजे
जयाचें
पूर्णता देकलें.

फायि
खोंडूक कळनातिल्या
हुमेंवक कळनातिल्या
मिजे मागल्यान येवचांगेले
निराशेंतु
हांव मिजे
जयाचें
किडविडि देकतलोवें ?



[ मे 1983, कोंकण जनता ]

पी. एन. शिवानन्द शेणै

# कीर काणी सांगता

कीरा तूं यो, बैस गा ;
काणी पुरती सांग गा .
आयकूक कान दीवनु राबल्याय गा
कीरा तूं यो, पुरती काणी सांग गा.

न्हंयचे तीरार एक फातोर पडलोलो
पाषाणा फातरेर पाय दवरनु
मोंचुवार चडून
आलतडि येताय
पेलतडि वताय
एकलो गेलो, दोग जाणां गेले
तशि जायते महाजन आळत पेळतांत गेले ;
फातरेन दिकलें एक सपन
एक दीस येता–पायु येता
श्रीरामचन्द्र येंवचे दीस पांवता पायु
फातरेर पायु दवरनु मोंचवार चडता
तावळी ही फातरी 'अहल्या' जाता.

यो कीरा यो, काणी पुरती सांग गा
आयकुंक कान दोवनु राबल्यात गा.

कीर तूं यो, काणी पुरती सांग गा
यो कीरा यो, काणी पुरती सांग गा.

घोर रानांत एक रूका खांद्यार
बैसलो गोपालकु
मिरलूक वाजता राग म्हणता
एक राग जालो
दोन राग जाले
तशि जायते राग ताणे म्होण्‌ सोडले.

गोपालकान दिकलें एक स्वप्न
एक वेळु येता
बाली पुनर्जन्मांत बेडु जाता
मृगये वेळार तो बाणु सोडता
तें लागून हांव मरनु 'श्रीकृष्णु' जाता.

अशि तशि काणी पुरती जाता ;
हांवे आपडून फुलझाड फुल्लेता.
तुगेली सावळी पडून फूल बावनु पडता
आनी हो कीरालो जन्मु
काणी सांगून सोरनु वता.



[ सेप्टेंबर / अक्टोबर ] 1985, ऋतु ]

के. अशोक कुमार

# हें कोण, गोत्तु नांवे ?

हें कोण, गोत्तु नांवे ?
हें कोण, गोत्तु नांवे ?
तेकडे हेकडे गेलेल्याक
काणी तुमी बांदली ;
एका एक लेक बरौन
भारी चूकि केली.

हें कोण, गोत्तु नांवे ?
हें कोण, गोत्तु नांवे ?
दोळो जालो बांयि
बन्द जालां तोंड

हें कोण गोत्तु नांवे ?
हें कोण गोत्तु नांवे ?
ती एक चेली ;
तुमचे तोण्णांत मेली !



[दीपावळी 1984, पंचकादाई]

लक्ष्मीश, कासरगोड

# मेळ्ळो

१.

हांवे पळयनि तुका ;
सात–आठ वर्सां फुडे
तुगेलो विषय कळ्ळो माका.
तुका सोदलो हांवे
ह्या गांवांत
त्या शारांत
रानांत
–खंय आसा तूं ?
सोदीले व्यर्थ जायनि
तूं मेळनि ;
जाल्यार तुगेले
अमूल्य ज्ञान मेळ्ळें.

२.

काव्य गुणाचे
भाषा प्रौढ़िमेचे
संशोधना मनोभावाचे

ताका पळौन
हांवे बोब घाली:
"गोविन्द पै !"
'हांव न्हंय पै
हांव तागेलो सेवकु'
—मोहक स्वरान ताणे सांगलें.
तेन्ना तो खंय ?

अशरीर जावनु
एकल्यान सांगलें:
"हांव तो !
तुंवे सोंदुचो मनीशु.
माका दोग जन आवसु ;
तांतु एकल्येली सेवा केल्या हांवे.
आतां आनी एक
माका जन्म दिलेली
आवसूली सेवा करूंक येता आसा.
तूं मुखारसी."

हांव मुखारि चमकलो
—गोविन्द पै
माक्षि येता आसा म्हणु.



[ दीपावळी 1985, पंचकादाई ]

आर. एस. भास्कर

# चडु मोगु कोणाचेर ?

हे धनिया,
हांव तुका जागयतां
उजवाडु दाखयतां
स्नान करयतां
वस्त्र न्हेसयतां
नाम करतां
फूल माळतां
सिंगार करतां
सीत लायतां
मंत्र कळेयतां
तुका निदायतां.

जाल्यार धनिया
तूं माका बेजार दिता.
तूं माका चोयना
तूं चोगता भायर.

ते येताय
माळा हाडताय
फळां हाडताय

तूप दिताय
वस्त्र दिताय
भांगर दिताय
साष्टांग पडताय
काणिक घालताय
तुका उळदीताय.
तूं तांकां चोयता
माका चोयना
माका हुस्को दिता.

देकून धनिया,
तुंवे सांगल्यार जायत–
तुका प्रीति कित्याचेर ?
चडु मोगु कोणाचेर ?
तांचेरि वे
–कि मिज्जेर ?



[ पंचकादाई 1985, दीपावळी ]

पंडरिनाथ ए. एन. पुरम

# आकाशांचेर राकेशु

'कितलें हा चन्द दिसता !' म्हणालो राकेशु
भूतल पळौनु भारी खुशि पावनु
'बाह्यांतरीक्षांतु घूमच्या गोळां भरसि
ब्रह्मांडकोटींतु एकि ही भूंय' म्हणु ॥

गर्जेंचो समिद्रु शांत सरोवर शें
पर्वता श्रृंखल्यो वाल्मीकां माल्लि शें
भीकर रानां हरित उपवन शें
दिसला आसका ताका त्या दूरा थकूनु ॥

मानव प्रतिभेच्या उत्तुंग उंचायेर
पावला एकु आमगेलोय भारतीयु
हर्ष अभिमानान फुलेता हर्दे मन
'आनीकय उंचारी' म्हणतात तीं मोदान ॥

पळयलां जायतें ताणे ; केलां निरीक्षण
भूंयचेर दिसचाचेय भूगर्भांत निपचाचेय
पळ्ळां कि पुण ताजे दोळ्यांतु हांगाचे
व्होडपण उलौचे बहु सान मनशंय ?

वोणींत उडयिल्या पानार पळ्ळेले उश्टें
खावच्याक लड़ाय करच्या कुतरयां वरि
भासेच्या प्रदेशाच्या जातीच्या नांवारि
झगडूचे अलिप्सष्ट ह्रांकां पळयलांवे ?



[ जून 1984, दिवटी ]

पय्यनूर रमेश पै

# कासवु जाय्या

अरे पुत्तानो !
धावन भोंवनाकाच !
चमकूक शिकून धांवया ;
मागीर तुमी भोंवया !
आयकनीवे काणी–
आयीन सांगीलि काणी ?
सोसो आनी कासवु करनु
स्पर्धेन धांवीलि काणी ?

कासवु तो काळो ; मुकार
संत तो चमकलो
कासवाची मोटि फाटि
चोवनु सोसो हासलो
सोसो उडून धांवलो ; धाप्पेन
वाटेर निदेन पडलो.
संत वचून मात्तें खरचून
कासवु जाल्लो पयलो ;

धावन भोंवन उडून धाप्पेन
ससो मागल्यान पडलो.

मात्तं खरचून संत गेल्यार
तुमीय पयले-चोय्या ;
ताका काणी आयकून तुमी
कासवूचि जाय्या !
चमकूक शिकून धांवया ;
मागीर तुमी भोंवया !



[ नवेंबर 1983, कोंकण जनता ]

वी. शिवदास मल्या

# जाप ना

सांगूक गेल्यार सांगूक जायना !
कशि हांवें सांगचें ?
रडूक गेल्यार रण्णे येना
कशि हांवे रडचें ?

हरद्यांत भरला संतापु की
हरवंटेलो संतोषु ?
हासूंक रडूंक सांगूक जायना ;
हात–पाय सोण राबूंक जायना !

देहांत जीव राबलो की
देह सोण तो चमकलो ?
मोह–सुख मनांत राबना ;
शब्दु भायर फुटून येना !

मनांत उद्वेलो उडगास की
मरणाक देकीलो भेट्टु ?
आजीय माका मनांत जायना ;
आनी मुकार म्हणूंक जायना !



[ जनवरी 1985, दिवटी ]

आर. के. प्रकाश

# एक मनाचें रणणें

"धनिया ! हांगा उजाचें वोत ;
पींवया मेगेले घरकडचे ताक ?"
—निमगीलें ते म्हारान भक्तीन
आयकिलें धनियान कोपान.

"खेळु करतावे तूं माका ?
जाळ येतले माका सांगतां.
कष्ट दिसता तुवें तसि सांगल्यार !
भष्ट जातलो हांव तें पिल्यार !"
—गेलो हें सांगून तो धनि
जालो सान तो म्हारु लजेनि
अश्रु ताजे दोळ्यांतल्यान पळ्ळीं
आवसु भूमी तो सरि पाप रळ्ळी !

"बापा, तुवें केलेली व्होडि चूकि जाली
आपण मागता क्षमा ताजे लागी"
—पुतान सांगचें आयकून धनि
जाता जळ्च्या इंगाळ्या वरि.

"मारनु घालतलो दांत तुगेले
व्हरनु लाश्शीं संस्कार आमगेलो"
–असि बापान सांगताना
हठ चळ्ळे पुताक.

"एकडे जाताय आमी सानप्रायेली
येतलीं आमी झोडु वारयांवरि
तुमी मांदिलें जाती गोपुर
आमी मारनु घालतले खाल्लाक.

एक फांतींत बैसून जेवतलीं ;
एक खांद्यार हात घालनु भोंवतलीं!
एकच आवसूले चेरडुवां वरि ;
येवचो कालु पांवता लागी !"

कोप चड येवनूय कांय
जाप दिल्लि ना धनियान.

देवु भरलो बापाले मनांतु ;
म्हारु बसलो पुत्ताले मनांतु !



[ जनवरी 1983, कोंकण जनता ]

वी. शेठ बलराज

# शांति मेळचाक

चंचल चित्ताक वाट दूर
उरता लक्ष्य विदूर
जन सांगतले नाना प्रकार
ताजे मागल्यान वचचें दुष्कर
एक उरतरि आनी एक आयल्यार
ना मनाक सुख आनी शांति.
आपण्याली बुद्धि आपण्यालें चित्त
देवान दिलेले अमोघ वित्त
दुसरयाल्या चित्ताच्या मागल्यान गेल्यार
दिसना उजवाडु मुखार.
ह्या तडी राबतरि त्या तडी जीवाळो ;
वचून चोयतरि ह्या तडी दिसता !
एक एक दिसाक एक एक वाटेन
गेल्यार लक्ष्याचेर पावचाक कष्ट ;
फल तें देवाक सोणु एक
चित्तान मुखार गेल्यार
धावनु पावनु लळता पायांत
सुख आनी शांती केदनाय.



[ नवेंबर 1983, कोंकण जनता ]

वत्सला मंजुनाथ राव

# देवलोकांतुलें पारिजातक

रूक्मिणीक कृष्णान हाणु दिल्लें
देवलोकांतुलें पारिजातक फुलेलें ;
सत्यभामाक आयलो कोपु :
'कृष्णाक दीना मापु' ॥

देवलोकांतु युद्ध करनु
पारिजातकाची सगी हाळ्ळी धरनु ;
सत्यभामाथंय दिल्लें दवरनु ;
रूकु आयलो व्होड्डु जावनु ॥

रूक्मिणीक आयलो आतां कोपु
तिका रूकु दिल्लो म्हणु :
'श्रीकृष्णा तूवें करचें समवें हें ?
तिका रूकु ; माका एक फूल दिल्लें ?' ॥

सांगले ताणे त्या वेळारि
'रूका फूल सर्वंय पळे
तुगेले हितलांत पडतलें ;
तुजे मन तृप्त जालें वे ?' ॥

हें फूल पळ्ळेले चोवनु
भामा कृष्णालागी येवनु :
'फटयलें माका तूवें
फुलां सर्वंय तिगेथंय पळ्ळीं' ॥

श्रीकृष्णु तागेलो नटखट खेळु
दाकौनु "ना कांय माका गोत्तु ;
हांव निरपराधि" म्हणु
सरलो दूर ; भामान दिल्लें ना सोणु ॥

आखेरि तृप्ति केल्ली ताणे
फूल दोगांलेय घरलागी समासम पळ्ळें
सर्वांकय संतोष जाल्लो
कृष्णु तोंड सोणु हासल्लो ॥



[दीपावळी 1983, पंचकादाई]

सग्री दिनेश नायक

# आशा निराशा

समुद्रांतु येवचे वचचे पाळ
पाळार पाळ ; प्रत्युत पाळ
कस्सि अग्नीर तूप ज़ळता
तस्सि आशा–निराशा मनांतुय

गांगा कैलासा ऊंच आरंभूचे
म्हणके आशा मनांतु राबता
ह्योळनु ती भूमीर येता
आशा सन्त निराशा जाता

दिस–रात बदलता
आशा निराशे फोंडांतु पडता
ऊंच येता तस्सि अंकुरित जाता
वर्षकालाक झाडाक जीवु मेळता

जीवन समुद्रांतु मारता पाळ
अस्सि स्वर्गार थकून पाताळ
तस्सि भूमीर पालन केल्यारि
ना ? प्राणु त्रिशंकू वयरि



[ दीपावळी 1985, कोंकण जनता ]

श्रीमति सुशीला टि. भट

# सप्त स्वर सप्त वर्ण

सा री ग म प ध नी सा
सा नी ध प म ग री सा

सप्त स्वर आमी नाद प्रपंचांत !
सप्त वर्ण आमी रंग प्रपंचांत !

सारी रिग गम मप पध धनी निसा
सानी निधा धप पम मग गरी रिसा

देही म्हणताय आमकां संगीताची
देह म्हणताय ताळ–रागांचें
आमी दिताय मनुष्य मनांक
आनन्द निर्वृति !
सुख–दुःख विस्मृति !

वैंगणी, नीळक, नीळ पाचवें
हळदूवें, नारंगी, तांबीडें

आमी दिताय इन्द्र–धनुस्साक
सुन्दर कांती !
विविध वर्णांची !



( "कल्याणी" रागार म्हणची इन्द्र–धनुस वर्ण राजी हें पदाक )



[ "चित्रंगी" दीवाळी १९८५ ]

आनन्दनारायण पै

# एकमेळया

जावो गोंयकार, ना मुंबईकार
मंगळूरकार, ना कोच्चीकार
भारतांतले कोंकणे आमकां
एकमेळया कोंकणी – खातिर
जाती–फांती, देश–विदेश
विसरया सर्गै भेद–विभेद
ब्राह्मण–गावडे, खारे–नायते
सरया हाताक हात धरनु मुकार
दीवया तन–मन, दामु दुड्डु
कोंकणीचे उदरगती खातिर
पीवोवया कोंकणी मातेक लोकांतले
व्हान उदात्त साहित्याचें सारामृत
पीवनु ती पावो भारतांतले अन्य
रचुया चांगी कविता–काणी–आनी
भरया तिचें साहित्याचें भण्डार
धरया ऊंच ऊंच ती संस्कृती
मोलादिक आनी परणी कोंकणीची



[ सारस्वतवाणी वार्षिक अक 1983 ]

के. नारायण नायक

# नुण्णीं मोन्नीं कवनां

* गाय दूद पीना निपयना
बांय उदाक पीना निपयना
रूक फळ खायना निपयना
मनीशं कसलें जनां निपयना ?

* आयदन पळ्यारी कळंबेता
वस्त्र न्हेसल्यारी बुरसेता
दाम दामल्यारी झूजेयता
मन धांपल्यारी मुरडेता !

* भरती मागीर सुरती
दीस मागल्यान राती
घडून वता ती प्रवृत्ति
नांव मोगा तिका प्रकृति !

* गाद्यांतुलें बीं भात दिता
सारयांतुलें झाड फल दिता
समवाटे प्रयत्न सफल जाता
जीवनांत ताजान जयु जाता !

वी. लक्ष्मण प्रभु

# फूल जा

मनुष्या तूं कसल्याक दुःख पांवता ?
दुःख सहज म्हणु ज्ञानि सांगता.

सूर्योदय जाल्यार फूल फुल्लेता.
सूर्यास्तमयार तें बांवता
बांवचे फूडे दिता मूं
आनन्द आनी सुगन्ध आमकां.

मनुष्यजीवित हें क्षण मात्र
तें क्षण जा तूं प्रीतिपात्र
दी तूं सर्वांक तुगेलें सेवन
जिबेर येवो सर्वांक तुगेलें नांव.

[ दिवटी मार्च 1985 ]

# कविता आस्वादन

आज कोंकणी भास आनी साहित्य विकासा मार्गारि मुकार सरता आसा. तिजें साहित्य भंडार भरता आसा. भारतांतुले दुसरे भासेक मेळचो अंगीकार आमगेली आवय भासेकय मेळका म्हळेले माहान कोंकणोचें साहित्यकार रचना करतात. कोंकणी भास केरळांत, गोंयांत, महाराष्ट्र आनी कर्नाटकांत पतळून आसा. हांगाची कोंकणी ह्या प्रदेशा भासेन प्रभावित जाल्या ; हें स्वाभाविकच. तशी जाल्यारीय साहित्य रचून ह्या प्रदेशा बरौपी सगटांकय एकटांवचाक परिश्रम करतात.

जाल्यार खेदु हो कि केरळांतुले कोंकणी साहित्य आनी साहित्यकार केरळा भायर थकून उजवाडा येंवचे समीक्षेंतु जावो समाहारांत जावो जाय तशे दिकूक पडना. हें कित्या खातीर ? सत्य हें कि केरळांत खूब कवि, कथाकार आनी लेखक आसात. आकाशारि राति जाल्यार दिखूं येंवचे आनी प्रभात जाल्यार अप्रत्यक्ष जांवचे नक्षत्रावरि अवस्था केरळांतुले साहित्यकारांलीयि जावनु आसा. उजवाडा येवचे नेमाळ्यांत प्रकट जालेली कविता आनी कथा वाचून जावनाफुडे लेखकांले नांव मनां आसता. नेमाळ्या पशि चड महत्व पुस्तकांक मेळता.

हो कविता संग्रह खूब महत्व आशीलो. कित्याक म्हळ्यार, दुसरे भासेंत आधुनिक कवितेचे नांवान बरौंचे कवितेचे स्थानारि पांवचाक प्राप्त जालेली कविता आज कोंकणींत प्रकट जाताय म्हळेल्याक एक नमूनो हांगा मेळता. हांतुली कविता समकालीन जीवनाचे स्पष्ट चित्र बरौचाक लायक.

ह्या लोकांत आसिले अनीति, अनाचारु, फटवण हें सगटय देखू क्षमा नातिलेमनीश नीति स्थापना खातिर झुजूंक परमात्मा लागी शक्ति मागूचे मनीश 'शक्ति दी माका' कवितेंतु दिसता. जाल्यार 'जाप ना'

कवितेंतु हें अनाचार, लोका चालि देखून हासचें कि रडचें म्हणु कळनातिलो एक विवश मनीश तागेले मना चंचलपण प्रकट करता आनी मौनी राबता. समाजांत आसूचे जाती–फांतीचो भेदु आनी त्या भेदा नाशु करचाक आसीलो संदेशु 'एक मनाचें रण्णें' हांतु मेळता. आपण्याले जातीचेर मिथ्याभिमान दवरचे मनशांक घायु घालता ही कविता. तोण्णान बरो, पोटांत विषाचो पोळो म्हळ्यावरि व्यवहारु करचे, आपण्याले स्वार्था खातिर काम करचे, आपण्याले देशाचो मान व्होड लेकचे, अशें विविध तराचे व्यक्तींक आनी निस्वार्थ जावनु दुसरयांली सेवा करतल्यांची ओळख 'पवळींतु' मेळता.

एकमेका आसिलो मोगु, ताजो अर्थु आनी आज ताजें महत्व हें सांगची कविता 'मोगु अमर' म्हणता. एक निज भक्तालें परिदेवन 'चडु मोगु कोणाचेर' म्हळ्या कवितेंत दिसता. चितेन दिंवची पीडा 'पीडा दिंवची चिता' वर्णन करता जाल्यार चंचल मनां शांति मेळचे खातिर मार्गनिर्देश दिता 'शांति मेळच्याक' म्हळेल्या कवितेंत. मनिशालें जीवन क्षुद्र मृगां पशि खालचे तराचे म्हणु 'कोळचो' समझायता.

ह्या संग्रहांतुले 'फूल जा', 'नुण्णीं मोन्नी कवनां', 'आशा निराशा' 'कासवु जाय्या', 'देवलोकांतुलें पारिजातक' ही कवितो जीवनांत विजयु प्राप्त करचाक उपदेश दिताय. सगटांकय एकटांवचाक 'एकमेळया' कविता उमेद दिता. आपण्याली संस्कृतीची मोल मनां करनु तिजे विकासा खातिर प्रयत्नु करचाक सर्व वर्गाचे कोंकणी जनांनीय एकत्रित परिश्रम करचें अवश्य ही कविता स्पष्ट करता.

भासे पासून चोयल्यार ह्या संग्रहांतुली कवितो केरळांत मात्र न्हय भायरय आसिल्यांक समझूची आसात. ह्या विषयांत व्होडि जाग्रता दिलेली आसा म्हणु दिसता. विषय वैविध्यान आनी भासे उचित प्रयोगान हो संग्रहु साहित्याक एक महत्वाचो भेंटु जाला. आयचे परिस्थींत हो संग्रहु भारी सहायक जावनु आसा.

कोची
16-3-86

आशा बी. एस.
एम. ए., पी. एच. डी.

# लेखकांची ओळख



भक्ता आर काञंगाड
प्रबंधक
सिंडिकेट बैंक
नीलेश्वर-670314



पी. जी. कामत
दयानन्दम्
चेरुमुक्कु क्षेत्रा लागी, चेंबूकाव
तृशूर-680020



के. गोकुलदास प्रभु
कोर्परेशन बैंक
प्रधान कार्यालय
एच. आर. डी.
मंगळूर-575001



के. अनंत भट
सी. सी. 4/1050
एम. बी. लेन
उत्तर चेरलाई
कोची 682002



शरत
केनरा बैंक
त्रिपूणित्तुरा–682301

पी. ए. श्रीधर कामत
आर. एम. एस. आफीस
तृशूर–680001





पी. एन. शिवानन्द शेणै
अनुग्रहम्
**No. 48,** एल. ऐ. जी.
जी. सी. डी. ए. कोलनी
कोची–682002

के. अशोक कुमार
सह प्रबन्धक
सिंडिकेट बैंक
कासरगोड–670121





लक्ष्मीश
C/o. श्रीधर नायक
प्रबन्धक
वेंकटरमणा देवस्थान
कासरगोड–670121



आर. एस. भास्कर
श्रीराम मन्दिर
जे. डी. सौत स्ट्रीट
अमरावती
कोची-682001



पंडरीनाथ ए. एन. परम
पवित्र TC 36/1502 (1)
जे पी नगर
तिरुवनन्तपुरम– 695008



पटवनूर रमेश पै
इंडियन ओवरसीज़ बैंक
पी. बी. नं 7
चंगनाशेरी–686101



वी. शिवदास मल्या
12/52 पळ्ळम् लेन
मांतरा रोड
कोची-682002



आर. के. प्रकाश
आंञ्जिलि परंब
19/774-A, पुल्लन्देशम रोड
पळ्ळूरुती, कोची—682006



वी. शेठ बलराज
जे. डी. सौत स्ट्रीट
अमरावती
कोची—682001



वत्सला मंजुनाथ राव
वेंकटेश नायक कंपौंड
बिलातिकुळम्
कालिकट—673006



सग्री दिनेश नायक
चिकोप्स डिस्टिलरी
मेनोनपारा
पालकाड



सुशीला त्रिविक्रम भट
C/o. ए. त्रिविक्रम भट
नरसिंह प्रसादाचे मुकार
उत्तर चेरलाई, कोची—682002



एन. एन. आनन्दन
नं II/570
कळरकोड
आलेप्पी—688003



के. नारायण नायक
पडियार कांपौंड
टी. डी. सौत स्ट्रीट
कोची 682002

केरळांतले कवींक ओळखूक
एक कविता संग्रह

---

# कविता '८३ '८४ '८५

भक्ता आर. कासरगोड
पी. जी. कामत
के. गोकुलदास प्रभु
के. अनंत भट
शरत
पी. ए. श्रीधर कामत
पी. एन. शिवानन्द शेणै
के. अशोक कुमार
लक्ष्मीश कासरगोड
आर. एस. भास्कर
पंढरिनाथ ए. एन. पुरम
पय्यनूर रमेश पै
वी. शिवदास मल्या
आर. के. प्रकाश
वी. शेठ बलराज
वत्सला मंजुनाथ राव
सम्री दिनेश नायक
सुशीला टी. भट
आनन्दनारायण पै
के. नारायण नायक
वी. लक्ष्मण प्रभु

---

केरळ कोंकणी अकादमीचें
धावें प्रकाशन

मोल : ५ रुपया